# कोंकणी म्हणी




*Compiled & Edited:*

**N. PURUSHOTHAM MALLAYA**

*Published by*

**KONKANI BHASHA PRACHAR SABHA**

(SAHITYA VIBHAG)

PALACE ROAD, COCHIN-2

**Konkani Proverbs-1**

Compiled & Edited

By:

**N. Purushotham Mallaya**

Secretary, Konkani Bhasha Prachar Sabha,

Coehin.2

1978

Printed at:

Hindi Prachar Press,

Cochin-16

**Price: Rs. 0·50**

# THE FOREWORD

Proverbs are the gems, in the ore that is language; drops of Nectar—BINDOOS OF AMRUTA—Churned out of an Ocean of words, phrases and idioms, over the centuries. Wit and humour meet and mingle to make some of them the spice and cream of any language. A few contain the quintessence of empiric knowledge. Others carry a world of compressed wisdom. Some sum up the sum and substance of life. Proverbs reflect the sense and essence, the very SPIRIT of a language and are its PRIDE and status symbol.

Konkani Bhasha Prachar Sabha's Sahitya Vidhag has collected a colourful bunch of Konkani proverbs. Classified, compiled and published, they are in your hands.

Now, Have a heart, and get them by Heart!

# कोंकणी म्हणी

## [KONKANI PROVERBS]

1. असल्यारि अष्टमि नत्तिलारि एकादशी.
2. अस्स कंबळि खताशीं ना कंबळि भित्ता शीं.
3. अस्सिलें उलैलारि नत्तिलो कोपु.
4. असिल्या चरडुवांक ना गति आनी जावुचा
   चरडुवांक तीळ भारु.
5. असिल्याक आशा चडि नत्तिल्याक आशा ना.
6. अस्त्र दव्वर्लीं.
7. अज्जान वोयिलो रूख म्होणु ग़ळफास घेंवुचेवे ?
8. अल्ले खेलोलो विंदूर.
9. अल्पायुश्यांक बुद्धि चडि.
10. अनाथाक देवाली रक्षा.
11. अतिरेक जाल्यारि अमृत विष.
12. अल्पांक भाग्य अयल्यारि मध्यरात्ति सत्तें धरताति.
13. अवसूक एक चरडु जड म्होणु जायत वे ?
14. अवसूक नका चेरडुं अज्जेक जांवुका नात्तरुं.
15. अवुसुले माये समान माय ना.
16. अळसाक दीसु सरना कष्ट काडतल्याक रात्ति
    सानि जायिना.

17. अळसाक भिकंड भाजि म्हळारि ह्र्वेंचि गोड मणता.
18. अळसाक भिकंडां भाजि म्हळीं तो म्हण्टां हरवीं खाल्यार चड बरी.
19. अर्धं भरललो कळसो हालचो चड.
20. अप्पे खांवका कि फोंड मेज्जुका.
21. अडुचो हांव सगळो पोणोसु खांवू.
22. असल्यान एकडे केल्लोलो दुड्डु चाँगपणाक पावना.
23. अल्पज्ञान आपायकर.
24. असिलो अस्स म्होणु रडता, नत्तिलो ना म्होणु रडता.
25. अडळी मोडली मांयी मेल्ली सुनेक बुद्धि आयली.
26. अरण्यांतु वोच्चूनु बोब मारल्या वरि
27. अम्मा बैणी मौसी वेळु अंवरसरा पंवची.
28. आन्दण विन्दण ना गो दुवे जिबेन सरी जा
मायिक मावांकची मारनु भायर गलतली जा.
29. अपणांगेलो दुड्डु कूडो जल्यारि अंगडिकारा उल्लोंवचा नज.
30. आवसु नत्तिले चेरडु पोट्टारे.
31. आवय वाणा जेवण बप्पै सोणा मांगूक.
32. आकाश पाताल एक करचें.
33. आकुळेलि गायि अप्पा भट्टाक.
34. आपंण मोरूनु स्वर्गु देकुका
35. आपणाली सावळी आपणा पायां मुळान्तु.

36. आपणालि जीब आपणाले दांतानि चाबल्यारि कोणाचेरि कोपुचे.

37. आपण मोरून बायलेक रांड करता.

38. आपणालो हातु आपणाल्या उश्याक.

39. आपणाल्या पाया पोंदातुले कुवाळे सोणु
दुस-याल्या पाया मुळांतुति सासम सोद्दिता.

30. आपण करना दुसरांक सोणा.

41. आपण खायना दुसरांक दीना.

42. आपण मोंटो दुस-याक म्हणता थोंटो.

43. आपण भिकारी तोंड चोकारि.

44. आपणालि फाटि आपणै थापटांचि.

45. आपण शेण खावुनु दुसराल्या तोडांक हातु पुस्सीता

46. आपणाले कार्य महा कार्य वेगळाले कज्जु बी.

47. आपणाले सावळेक आपण भित्ता.

48. आपणाले जांगेरि दोरि विदुलारि दूकि कळता.

49. आपणालो पाया आपणाल्या माथ्यार.

40. आयिलि दीवाळी परब्बो नीवाळी.

51. आयले जीवारि गेले केसारि.

52. आपल्या भिका-याक दीना अन्न मेलेल्यांक पिंड दान.

53. आदायु पळोव्नु खर्चु करि.

54. आचारु चलतल्यांक विचारु उणे.

55. आजि रडलोलो फायि हासतलो.

56. आगळान गळो कत्तरता.

57. आज्जो मेल्लो मांचो रितो जालो.
58. आयल्यारि पावस ना ज़ाल्यारि ओत्त.
59. आंग गोरे म्होणु सावळी गोरि वे ?
50. आमगेले गावांतु तुगेलि दाळि सिज्जाना.
61. आंशे खेल्लेलें ताळयांतु येत्ता.
62. आयदनान्तुलो दीवो.
63. आवै नत्तिलें चेर्ड़ु पोट्टारें.
64. आजि कोर्चें काम फायिक मोणु दव्वोरु नका.
65. आपत कालाक पांवुचोचि खरो मित्रु.
66. आवाळो दिवन कुवाळ घेवप.
67. आक उडत्त म्हणु पाक उडल्यारी गोब्रा राशीर पडत्तले.
68. आबून दिलेलें ओखद घूट केल्लें.
69. आजि मेल्यार पायी दोनि.
70. आवसु मेल्ली दुव उठायिली.
71. इष्ट नत्तिल्या बायलेन कोर्चें सकटै कष्ट.
72. इन्द्राक मारलारि चन्द्राक लागता.
73. इष्ट असिलो मेळुका जल्यारि कष्ट काडका.
74. उदका कइ रगत घट्टि.
75. उष्टया हातान कायळायाक अंब्बुडत्तलो.
76. उलैललें वरता केल्लेलें विसरता.
77. उलैललें वरता मारलेलें विसरता.
78. उमती कळश्यारि उदाक रखवप.

79. उन्नाक ऊन.
80. उम्ती पळारी नांक उदारि.
81. उमासे रति कळकी राति.
82. ऊन उदका घोटु,
83. एक बायिल, एक बाण, एक वचन
84. ओ मळ्यारि ठो करता.
85. ओत्तुन गेलेलें दूध कृष्णाक अर्पण.
86. ओलेक लागून खोली गेली.
87. कपलांतु नत्तिल्याक कोंकूनु घाल्यारि वोंकूनु वत्ता.
88. कळनत्तिल्याक सांगूयेत कळतल्याक इत्तें सांगुचे.
89. कळंबेलेल्या वटयांत ताका शीत वाळेली संगति.
90. करतलो चड उलैना उलैतलो चड करना.
91. करटान्तुलें उदाक मुयें समुद्रु.
92. कन्ना पाळि आनि पोट्टा बाळि वाडैलेला तशी वाडता.
93. कस्तूरी धांपून दव्वरल्यारि परिमोळु धांपता वे ?
94. कर्मान्तु बरैलें जन्मान्तु सुटना.
95. कष्ट कालारि बस्सिली माणाई शत्रू.
96. कष्ट कालारि देवालो उडगासु एत्ता.
97. कळश्यान्तुल्या दिव्याक उजवाड ना.
98. कर्तसन रड खातसन गोड.
99. कर्णाचे समान उदारु.
100. कान तुंटली नारनी रन्नान्तु गेली.
101. काळकान्तुलो पेट्टु.

102. काजळा मिति फाल्लें जायना.
103. कायळो गोप्राचेरि वैसलो म्हणु गरुड जायना.
104. कारा रुखाक बोरं जात्तली वे ?
105. कारातें शाक्रान्तु भाजिल्यारियि कडूच.
106. कायळयाली दृष्टि.
107. कायळा घुडाक फाथोरु मारलो.
108. कायळयाक तागेली पिल्लं चंद्.
109. कायळो न्हल्यारि डोंक जायत वे ?
110. कासु दीवुनु लासु घेवप.
111. काम केल्यारि दामु अस्स.
112. कांटयान कांटो काडका.
113. कांटया माणायेरी बस्सिल्यावरी.
114. कायळ्याचें रण्णें रोडूनका.
115. किराक बुद्धि सांगिल्यावरि.
116. कीट कळ्ळेलें लोखंड.
117. कुरडयाली दिवुटी.
118. कुरडयाक हरद्यान्तु दृष्टि.
119. कुरुडो अनिक थोंटो एक मेकांक सहायु.
120. कुरड्याक राति इत्तें ? फल्लें इत्तें ?
121. कुरड्या दोळयांक काजळ कित्याक.
122. कुबेरालें दृव्य कुबेरालगीं वत्ता.
123. कुशिल्या मासळेक पिक्कली चींच.
124. कुरुड्यान्तु कणसो रायु.

125. कुरुड्या हातान्तु दीवो.

126. केळि वोचून काँटयारि पडल्यारि, काँटो वचून केळेरि पडल्यारि नाशु केळीकच.

127. केळि गौड म्होणू साल्यो खांवचे वे ?

128. केळ सी वाडला.

129. केल्लेलें कर्म ह्याच जन्मान्तु खांवुका.

130. कोंबो रतलो हांव उठायतलो मोणु उठोवनय.

131. कोंकणाक अनिक कन्दळाक स्तायू दीवुनका.

132. कोडु दुधी गंगेन्तु बुडेयल्यारि गोड जात्त वे ?

133. खजूर पिकतना कायळ्या तोंडाक रूंव.

134. खरपून खोरोजु कोरुचि.

135. खाडा उज्जो लागल्या वेळारि अप्पोळु भाज्जुक वत्ता.

136. खाँवक जेवंप असल्यारि सोयरे खूब.

137. खेलेल्यांक भूक चडि न्हालेल्यांक चिकोलु चडु.

138. खै गेलो खैंना, कित्तें हाडलें कांयना.

139. खांद्यारि बैसून कानु चाबप.

140. खोळलेल्या पोंदा रेंव, उलेयल्या ऊँचार उत्तर.

141. गरुडा पळेयलो सर्पु.

142. गरिबांक होडालो सहायु जाई, होडांकयि गरिबालो सहायु जायि.

143. गांढवाक घोडो कोर्येत वे ?

144. गायिचें चाम घारुलेलो वाघु.

145. गाढवाक घासून काडल्यारि घोडो जाय ना.

146. गाढवाक कसलि गोडा रुचि.
147. गायक मारलें म्होणु वासरूं मारचें व्हय.
148. गोढवा कन्ना पुराण संगप.
149. गुलेर दीव्नु वैंगण कांधेंवचें ?
150. गुल्यारि दीव्नु वैंगण.
151. गेलेल्या बुद्धिक काडुक जाव्ना.
152. गोपराचेरि बैसल्यारि कायळो गरूड ज़ावुची ना.
153. गोडा गुळियेक पाटि पोट ना,
154. गोडा गुळयेन गोमटो कातरप.
155. गोडा आयदणां हातु घाल्यार एदें पुण लेंवनत्तिलें रब्बु ना.
156. गर सान जाल्यारियि मन होड अस्सुका.
157. घरांत घाल्यारि पिकना भायर वेल्यारि पिकना.
158. घरान्तु आयल्यारि वाघु भायर गेल्यारि कोल्लो.
159. घरांतु ना पेज्जेक वाट भायर वत्तना मिशेव तूप.
160. घरचे मोगरेक परमळ ना.
161. घाटार गेल्यारि पळसाक तीनच पानं.
162. घेंवचाक सगटै येत्ताति दिवुंचाक कोणै येनाति.
163. घोडया माक्षी राब्बू नये; अनिक राया मुखारि राव्बू नये.
164. चडतले मांकडाक निसणी दिवप.
165. चन्निणांतु दिवुली.
166. चर्डाक हांडिरि घालुनु गांवु भरि सोधचें.

167. चर्माऽरुचि सुण्यांक, लोखंडा रुचि घोडयाक, सांखाले रुचि हस्तेक.

168. चाम्माराले देवाक व्हाणे पूजा.

169. चळैतांगेलें तोंड वांकुडें.

170. चेपि काणू ओपू.

171. चेडु जांगेरि हगिलें म्होणु जांगु कात्तरोचि वे ?

172. चेरडाले हाल आवसुकडे खंयि.

173. चेलियेक चोपुंचाक गेलो चेल्लो लग्न कोर्नु आयलो.

174. चोरा हातांतु चावि दिली.

175. चोराचि आवय हर्यान्तु रडत्ता.

176. चोडुचि वालि दोवों नये.

177. चोयिल्या दोळयांक मत्ति घाल नक्का.

178. छे सुणा लाज ता आणि मळ्ळेंले पाई ना.

179. जसो रूखु तशें फळ.

180. जळल्या घरा कोलु.

181. जरलाक मिशे रिगैल्यारि पुरो.

182. जवुंचे असिले जत्तलें ललाटांतुलें चुकुना.

183. जलें पोट, वांवता बोड पयां कसलें जाळ.

184. जळाव्याधीक ओखद नां.

185. जळचे उज्जारि तेल.

186. जावंय आयला राति मायिचे तोंडान्तु मात्ति.

187. जित्या स्वभाव मेल्याबगर वचना.

188. जिवारि आयलें केसारि गेलें.

189. जिब्बेक हाड ना.
190. जिब्बेक लज्ज न जल्यारि तोंडाक भाग्या भाग्य.
191. जिबेरी अस्स गुळिक.
192. जेविल्यांक भूख चडि न्हालेल्यांक चिकोलु चडु.
193. जेविल्या पन्नारि हागू नज्.
194. झाड हुमाटुनु पाळ फुरला कि मोणु पळैलां.
195. झाडातकित फ़ळ.
196. झुजा कोंबो सी झगडता.
197. झेरीक आयिले उदाक रावता उव्हार आयिले होळता.
198. झोंपाळ्यावयले गीत कीर्तलेंतु एना.
199. डुकरा मारु गेल्यारी बोब.
200. डुकरा तोण्डान्तु पुसकि मारल्यारि संभ्रादणे फण्.
201. ताप्पिल्या कायलीरि उदाक.
202. तटियेरि मार्नु भिसरावंचे.
203. तरन्ने चेलियेक रूप नका शेळ शिताक तूप नका.
204. ताळुवि विसोर्नु तेल दवोर्चे.
205. ताणे ताणे खोणुच्या फोंडान्तु ताणे ताणे पोडचें.
206. ताळो सुकूनु प्राणु गेलो.
207. तुस्सु कांडुन हाता फोड.
208. तू आळु काळु मुरे बाप्पा.
209. तेंकडेन मोवु काडप.
210. तेरया पानावयले उदाक.
211. तेल विकरललोय रडता नालुं विकरललोय रडता.

212. तेंकडीन मोऊ काडल्यारि आयदन भरता वे ?
213. तेंच ते दुडुवाक शें.
214, तोंडान बरो पोटांत विषाचो पोळो.
215. तोंडारि मारचे पुण पोटारि मारचें न्हय.
216. तोंड आसल्यारि काशीन्तु वोचुयेत.
217. तोप्पि घाल्लि.
218. तो तग्गेले पाड चोवो.
219. तो एक रुद्रु कस्ले कर्तलो.
220. तो जोडता तो मोडता अम्का कसलें गजाल.
221. तो अळव्यान्तु देवो मका लग्गना.
222. थळ थळेंचे सग भांगार न्हय.
223. थंडेक कांबळी जडि कोणाक.
224. दड्डावुनु पिकैल्यारि वोगि कुसता.
225. दवे सीत काळे तोण्ड.
226. दायि अस्तना ह्रातु लसुचे आवश्य ना.
227. दान मेळेल्या गायचे दांत चोवप अस्स वे.
228. दामु आसिल्याक सोयरे चड.
229. दा जणालि आवसु काट्यारि.
230. दान मेळेले गायचे दांत मेजप ना.
231. दामु असिल्याक मानु.
232. दायि मुकारि शीत माक्षी.
233. दांत आसतना चणे खांवचे.
234. दांत खावुनु अवलक्षण.

235. दिवडु खांवचे गावांन्तु गेल्यारिं मद्दें कुडको खांवका.
236. दिवटे मुकारि दिवो.
237. दिसा दिवो नका चांदिणान्तु चूड़ि नका.
238. दिवो आपण जळता दुसर्यांक उजवाड दित्ता.
239. दिंवचे संसार आनि घेवंचे कठिन.
240. दिवले मुळांतु काळोकु.
241. दित्तलो आसल्यारि मागतले चड
वाडतले आसल्यारि जेवतले चड.
242. दिकींलो गोण्डो घेतले कपाल.
243. दीस सकळोच सिंपून सत्र्चे कोळसो बेत्तू नका.
244. दीवो जोळोवुनु मतारी गोबोरु घालनु भेस्सला तो.
245. दुडु दीवनु चाबुचा सुण्याक काणु घेवप.
246. दुड्डु मोणु जीवु सोणका.
247. दूर थकूनु गुड्डो चंदु.
248. दूर अस्तना ढंगोर लान.
249. दूध अनीक उदाक.
250. देवान दित्तना चारीय याटेन दित्ता.
251. देवळा कलेशारि कायळो बसल्यारि देवाकयि होड्डु
जायना तो.
252. देवान दिलें कर्मान व्हेल्लें.
253. दोळयांतु रगत नतिल्याक सुख दुख सांगूचे.
254. दोळे आसूनु पळेयना कान आसूनु आयकना.
255. दोळयाक काजळो आयल्यावरि कोर्नका.

256. दोळें गेल्यार दोल्या मोल कळता.
257. दोनि दोणीरि पायु केल्यारि मद्दें.
258. दोति हातानि ताळि शब्दु जत्ता.
259. दोगले झगडयांत तिसर्याक् गुण.
260. दोरि नास्तना बांदून घालचे.
261. दोनि मंचुवारि पाय देवरल्यारि उदकांतु.
262. धन ना जल्यारि रीण नका.
263. धवे घोडा चाकरी.
264. धर्माचा गायेक दांत ना ओंठ.
265. धा जण एकडे दीस काडतील दोन बायलां मिति जायता.
266. धांवतल्याकयि धाँवडायतल्याककि खरस एकचि.
267. धाविलतसी धावना जल्यारि धंवडाल्यलतसी धांवका.
268. धोलीरी बेसलो म्हणु वोयि वोडु पणा.
269. धुरा पाना देंटु अंगारि उडोव्नु लडायि कोरुचि.
270. नांक पसी होड मत्ती गल्यार नांक गोळुण वत्तलें.
271. नकुटान्तुलो चिकोलु खेल्यार पोट भरना.
272. नवी सून हाळेली घराक वाति लयत्तली.
273. नवे कापड हाडचे फूडें पोरणे कापड रानीन्तु घालें.
274. ना म्हरल्यांक जेवण चड.
275. नाक कापून अवलक्षण.
276. नाकाक चुणो लांवचो.
277. नखुर खावन अवलक्षण.
278. नका नका मोणु बेसिली जायी जायी मोणु मगिलें.

279. नवे नवे उश्याक पोर्णे पोर्णे पायाक.
280. नांचु कळना मोणु अंगण वांकुडे.
281. निन्द कोरचे अल्पायुसा लक्षण.
282. निश्शान्तु सोकणी.
283. निश्शें देकनतिल्याल कुय्यें देकिलें.
284. निब्येरि बेसलि कोल्लि गोयण्डो पपूणु गेली.
285. नेसूक ना जाल्यार पट्टा कापड.
286. नेसूक जायना जल्यारि पिंजूनु उडोवप्.
287. नेपाल रय्या निडलारि चिकोलु अस जल्यारि ती कस्तूरी तिळो त्तं.
288. परणे घरसेक शेण काडप्.
289. पाया व्हाण मात्यारि दवोर्नका.
290. परबेरी पोळी सिगम्यारि होळी.
291. पलकेन्तु बेसून भीख मागप.
292. पगरा अस कान.
293. पावसाडितले वोताक दुसमानाल्या उत्तराक नंग नये.
294. पापियान गेलेले कडे पाताल.
295. पाय चुकल्यारि हस्ति पडता.
296. पायाचो कांटो काडूक कुराड कित्याक.
297. पालसा पान तीनच.
298. पावलेले कडे खोट्टो दवोर्का.
299. पारी लगी पावल।री अमसाणी कळता.
300. पिकली खोली पडतना हरवी खोली हसता,

301. पिशा हतान्तु बाति दिली पिशो नाचता सगळी रात.
302. पिसुळेलें कुंकड सि अस्स.
303. पेण्डी खवाचो वोचूनु घाण मत्त्यारी.
304. पोटारि पाय कोर्नका.
305. पोटाचि नाळि कानाचि पाळि वाडयन तितलीच वांडता.
306. पोपळ अस्तना ओंटीन्तु दवर्ता मडी जाल्यार ओंटीन्तु दवरु जायना.
307. पोटा ना मोणु सुंघट भाजुन खांवूक जायना.
308. पोसुच्या सुण्याक मारुक तोडव ना.
309. पोट भेतसी वाडी तका.
310. फल तकीत बी धरणी तकीत उदाक.
311. फण घालें.
312. फरकु घोडयाक हरकु लगामु.
313. फायि मरतलो मोणु आजि मोषणान्तु पडप ना.
314. फाल्या भरतलो मीणु आजि शाकूड एकडे कोर्चें अस वे ?
315. फोंड अस्तल्याकडे उदाक राबता.
216. फुललेल्या फुलाक परमळ येतनास्तना राबतवे ?
317. बयपे वोचूनु बोड करप.
318. बमुणातय सर्वस्व वचे कालाक बपाथंचे अन्दण होड ना.
319. बाँयचे तोंड बांधूयेत जल्यारि न्हयचें तोंड बांधू जावना.
320. बपाची भैणी अका ती मका नका.
321. बरपडची बमुणाक तेरपडची बयाल.

322. बियातकी भात झाडा तकीत फळ.
323. बुद्धि आसिल्याक भांडार जाय वे ?
324. बैलान मुतिल्यावरी.
325. बेसुन जाय पाय पतळांवचाक.
326. बेठो आचारी चेरडुवा गोयण्डी तशिता.
327. बोकडी चरलेलें रान.
328. बोकड खातल्याक कुंकड पावना.
329. बोडारि काळेलें वज्ज वावुनूचि सार्थक.
330. बोड तसल्यारि सन्यासि जात्त वे आनि गोबोरु पुसल्यारि यत्ति जात्तवे ?
331. बोट चिवल्यारि पोट भरता वे ?
332. भायरचान काळो भित्तरी गोरो.
333. भित्तिकय कान अस.
334. भुजार बेसून गुमटो कातरप.
335. भुस भुसी रेवेंन्तु शिपप.
336. भुज झरै जीभ लळै,
337. भुकुंचे सुणे चाबना चांबुचे सुणे भोंकता.
338. मळब पडतलें मोणु खांबो दिवप ना.
339. मना स्थान अस जल्यारि मंचुवान्तु स्थान अस्तले.
340. मका रान लगी घर दूर.
341. मनुष्याले जीवित उदकावेले पुगुट.
342. मलगडांले उत्तर प्रमाण
343. माळपे ममा अजीर्ण जाल्यार गांवचे जनाक शुण्टी निशें-

344. मायदरच्यान सुणे आयलें.
345. मांचो सान जल्यारियि खुरे चारीच.
346. माडयाक आनि मडिक खाडुक एक कशी करप.
347. मागस्नाना गेल्यार नित्यस्तान वत्तलें.
348. मान सकळ पाय ऊँच.
349. मदिलावेलो नारलु.
350. मेळेले काडूनु किसान्तु दवोर्का.
351. मेलेने मोड्यान उठावना.
352. मिसियां तूप. निसियां कायकल.
353. मूर्ति सानि जल्यारी कीर्ति होडी.
354. रोसाकयि अस कांटे.
355. रितो कळशारी व्होळो शब्दु.
356. लसला ऊँच तेल.
357. लसला घारक ताण्डत मेळेले काय लाभ.
358. वारें तकीत साडे वन्ता पळार कण्डणा पेट.
359. वारें घेत्तिल्या शिताक उंडी बांधू जायना.
360. वाटेरि वचे वाधा माका धोर्न खा गा.
361. वाडतल्यान चोवका ना तरि जेरतल्यान चोवक,
362. बाटे विकून कटे काढची बुद्धि.
363. वेगळ्यालें घेव्तु भोवप.
364. विंदरा कोपान घरा उज्जो दवर्लो.
365. विंदळावेले गींत कीर्तनाक येना.
366. शीत सिजून पेज जली.

367. शि सूणा लज्ज ना आजि उलेयललें पायि ना.
368. शेण्डी असिल्याक कसि बन्धुयेत.
369. संसारा गेल्यारि सोवे परसां गेल्यारि भाजी.
370. सग केलेलें मायन मावान ज्येष्ठ मळार कोणे केल्लेलें ?
371. समुन्द्रान्तुले मासाक तडिरी बेसूने वाटे घालप.
372. सान मांकडा केरान ऊन शितां हातु घालवप.
373. सुन्तु जंमचे दीव्या प्रकाशु चड्ड.
374. सुकले रुकाक दीरु एवना.
375. सुण्याक सिंहासन दिल्यारियि गोब्राराशी.
376. सुण्या बाल नळ्यान्तु घालें म्हणु नीट जायत वे ?
377. सुणे जाय मोणु सोदु गेल्यार सुणेकांटयारि वचून हागतले.
378. सुण्या रोम असूनु केळिशाक कित्ते गुणु.
379. सूँटि नत्तिलो कषायु ना.
380. सैवाले मांटवान्नु सुब्बा राव.
381. सेंडी अशिल्याक कशिवयि बांधुयात.
382. सोरचे पसी बोरचे चांग, वोरचे पसी मोरचे चांग.
383. हस्ति सुकल्यारियि गायचे गोट्या बन्धू जावना.
384. हता भोख्या कण्णाडी नका.
385. हस्तेंक घांट नका.
386. हातान्तु तोंडान्तु पावलेले देवान उप्पिले.
387. हागु जल्यार स्थायु सोदप.

388. हतान्तु पावलेलें तोण्डान्तु पावलेलें कर्मांचा फलान न जालें

389. हरिश्चन्द्राचा समान सत्यवन्तु.

390. हसुचे ददुल्याक अनिक रोडचे बायलेक केदनाय पतेंवचापणा.

391. क्षेत्र पाळा बोढारी खीर.

392. सान सांगतले चढ काम कर्तले ऊणे.

---